# सोपूत

## रजनी अशोक भेंब्रे

ॐ श्री दत्त पद्‌मजा प्रकाशन

---

शणै गोंयबाब महोत्सवाचें अस्मिताय वर्स

---

सोपूत (संवाद)

-- रजनी अशोक भेंब्रे

प्रकाशन क्र. ३३



पयली उजवाडावणी : २००३

उजवाडावपी :
मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय.

छापपी :
नवादित्य पॅकेजिंग्स्,
माशेल, गोंय.

अक्षरजुळणी :
गिरीश भि. मयेकार

मुखचित्र :
श्रीनाथ पागी

मोल - १५/- रुपया

Sopoot (Dialogue)

-- Rajani Ashok Bhembre

Publication No. 33



First Publication : 2003

Publishers :
Milind Kamlakar Mhalshi
Om Shri Datt,
Shristhal, Canacona, Goa.

Printer :
Navaditya Packagings,
Mashel, Goa.

TYPESETTING :
Girish B. Mayekar

Cover :
Shrinath Pagi

Price : Rs. 15 /-

---

*हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या शणै गोंयबाब महोत्सवाचे बालसाहित्य प्रकाशन अनुदान येवजणेखाला छापलां.*

म्हज्या साहित्याची सदांच
तोखणाय करपी
‘भाई’(प्रकाश सबनीस)क
नमळायेन अर्पण.

- रजनी -




# सोपूत

## (संवाद)

| पात्रां | | पिराय |
|---|---|---|
| राजू | -- | १२ |
| इनास | -- | १२ |
| युसूफ | -- | १२ |
| अमीर | -- | १२ |
| धाकू | -- | १२ |
| टिचर | -- | १२ |

# सोपूत

## (संवाद)

-- पयलो देखाव --

( इनास, युसूफ, अमीर, धाकू खेळा मैदानाचेर जमल्यात. खेळ सुरू करचे पयलीं तांच्यो राजू विशीं खब-यो चल्ल्यात.)

इनास - युसूफ, आयकलां?

युसूफ - कितें रे इनास? कितें जालां तुजें?

इनास - आतां घराकडेन वचपाचें ना.

अमीर - इनास, कित्या कितें उलोवं नाका. घराकडेन कित्याक वचपाचें ना?

युसूफ - इनास, जालां कितें रे तुजें?

इनास - युसूफ, कितें जालां आनी म्हणटा? आरे, ह्या सरांक आनी टिचरींक दीसभर परिक्षा घेवून वाज येना रे? कितें रे बाबा? हो टेस्ट तो टेस्ट .... म्हगेलें जाल्यार परिक्षेंत सामरखें वाटकुळें जालां.

युसूफ - इनास, कितल्या विशयांत नापास जाला रे तूं?

इनास - युसूफ ऽऽऽ कितल्या विशयांत नापास जाला काय म्हणून विचारनाका ऽऽऽ कितल्या विशयांत पास जाला काय म्हणून विचार ऽऽऽ खब-यांनीच रे ऽऽऽ सामरखें वाटकुळें जालां ....

अमीर - इनास, हांव जाल्यार मरे तीन विशयांत कांटार पास जालां. पूण बाबालो मार मात चुकूंक येवूं ना म्हाका ऽऽऽऽ

युसूफ - अमीर, म्हगेलें जाल्यार इनासा बशेन सामरखें वाटकुळें जालां. सगल्यांक तांबड्यो रिस्को. खब-यांनीच, घराकडेन कॅलेंडर कशें दाखवप तेंच कळना. जाणां अमीर, म्हाका अब्बान पयलींच सांगलां. अंदू पास जायना जाल्यार दुकानार बसपाचें.

अमीर - युसूफ .... युसूफ, तशें जाल्यार बरें मरे तुका. दीसभर अभ्यास कोणाचे तकलेंत वता? म्हाका जाल्यार वर्गांत टिचर शिकयतना दोळ्यांमुखार बॅट-बॉलच येता. पाड पडूं रें हें शिकप. दुकानार बसप म्हणल्यार मजाच मजा मरेऽऽऽ न्ही रे इनास?

युसूफ - मजा (चाळयता) मजा खंय ऽऽऽ. आरे, इश्कोलांत आयल्यार काय बरें खेळपाक वचूंक मेळटा. अम्माक फटी मारून खास वर्ग आसा म्हणून हांव खूबदां खेळामळार खेळपाक गेलां. घराकडेन कोणेंय काम सांगल्यार

अभ्यास आसा म्हणप ऽऽऽऽ पूण करता कोण रे? मारप चिकानां ....

इनास - अमीर, आयकता? म्हाका जाल्यार डॅडीन पयलीं सांगलां. जाता ते भशेन आठवी पास कर. मागीर काका म्ह-यांत कुवेताक धाडपाची व्यवस्था करतां. टिंऽऽव .... टिंऽऽव..... (विमानाची ॲक्शन).

अमीर - इनास !! तूं कुवेताक वतलो? ख-यांनीच ?

इनास - तुमी भिनाका रे. तुमकां सगल्यांक हांव फॉरेन घड्याळी आनी पेनां हाट्टां. पूण म्हाका भंय दिसता तो सातवेचो ऽऽऽ

युसूफ - तुका सातवेचोच सो कित्याक भंय दिसता?

इनास - आरे, तूं आमगेल्या वर्ग शिक्षकाक वळखना. हांव वर्गांत सगल्यांत चड मस्ती करपी म्हणून म्हजेर ताचो सदांच दोळो. ताचें सपन लेगीत पड नाका. पाडच पडूं ताचें.

(धाकू येता.)

धाकू - कोणाचें पाड पडूं म्हणटा रे इनास? आं ... हांवे सारखें आयकलां. सराक म्हणून अशें म्हणटात रे इनास? देव पातक घालतलो... कळटलें तुका ऽऽऽऽ

युसूफ - आयली रे आयली ..... धाकूची पत्रावळ आयली. आतां कांयच उलोवपाचें ना. सी. आय. डी. .... सी. आय.डी.

धाकू - (आंगार वता) म्हाका सी. आय. डी. म्हणटा? व्हडलो झेत सो मारता मरे. तुजो भाव पुलीस म्हणून दीस भर पट्ट्यांनी मार पड्टा म्हणून बरो ऽऽऽऽ ही ऽऽऽ ही ऽऽऽ ही ऽऽऽ ?

अमीर - आनी तुका दादोलो पडना रे ऽऽऽऽऽ ?

धाकू - पडल्यार पडूं, तुमकां लागना. तुमगेलें तुमी पळयात.

युसूफ - आमगेलें आमी पळयतात रे धाकू. ---- आमेगलो रिझल्ट तुका पळय म्हणलां?

युसूफ - हांव जाल्यार घरा येन्ना रिझल्ट दाखोवपार ना. कॅलेंडर पेटे खाच्चीं लिपोवन दवरतलों.

धाकू - हांव जाल्यार दादो कडेन कॅलेंडर दिले बरोबर आजे फाटल्यान लिपून बसतलों. मागीर दादो कसो मारतलो?म्हाका मारल्यार आजेक लागतलें. आयडिया कशी आसा?

इनास - पाड पडूं त्यो रिझल्टाच्यो खब-यो. आतां आमी खेळया मरे?

अमीर - हय...... वय ......

युसूफ - चल खेळया तर ........

इनास - हांवें बॉल पसून हाडला.

धाकू - आमी गडी वांटून घेवया मरे अमीर?

इनास - घेवया तर SSSS आतां आनी वेळ कित्याक? पळय, हांवें बॉल हाडला, म्हणटकच हांव कॅप्टन. समजलें?

धाकू - वारे - वा - इनास ..... व्हडलो तूं!! हांव चॅप्टन खंय !! सदां सदां तुकाच चॅप्टन करप आनी आमी केन्ना जावप?

युसूफ - चॅप्टन खंय - चॅप्टन. (सगळे हासतात.) आरे, हाका कॅप्टन लेगीत म्हणपाक येना आनी आपल्याक कॅप्टन कर खंय. धाकू-धाकू, कॅप्टन म्हण रे SSSSS

धाकू - युसूफ, हांव पळय हां SSS म्हाका चाळयतात ते (शेंब्रूड पुसता आनी रडटा) फाल्यां - फाल्यां हांव दादोक इश्कोलांत घेवून येतलों. पळयात, तुमकां कसो मार घालता म्हजो दादो.

युसूफ - धाको - धाको ...... तुका वीन दादो चड मारता रे?

धाकू - मारता (रडप थांवयता) एक दीस कितें जालें जाणां अमीर? हांवें दादोल्या वोल्सांतल्यान पांच रुपया काडले....

अमीर - मागीर कितें जालें?

धाकू - कितें जालें काय म्हणून विचारता? म्हगेल्या दादोक ज्यूस्त कळलें न्हिरे SSSS आनी मागीर पळय, ताणें म्हाका मार घाला, म्हाका कालसांवांतच जालें न्ही रे .... मुतूंक .......

( सगले व्हड व्हडान हांसतात.)

इनास - पाड पडल्यो ह्या धाकुल्यो खबरी SSS. आरे, आमी हांगा खबरी करपाक आयल्यात काय खेळपाक आयल्यात रे? बंद कर तुगेल्यो त्यो मुतपाच्यो खबरी .... बुरसो खंयचो.

अमीर - ख-यांनीच इनास. ह्या धाकुल्या खब-यांक अर्थ ना SSS.

युसूफ - चल आमी खेळपाक सुरू करया मरे? आरे. पूण राजू खंय पावलो? तो येवूंकच ना मरे SSS.

धाकू - ख-यांनीच. तुमी पळयलां. ह्या दिसानी राजू आमचे वगेवर खेळपाक रावच नासोSSS? कितें जालां ताचें ह्या दिसांनी? युसूफ, तुका वायट संवय आसा SSS.

युसूफ - कसली संवय आसा रे म्हाका धाकू SSS? आं.SSS?

धाकू - दुस-याक कित्याय कितें म्हणपाची. शेर्त तुवें राजूक कितेंय तरी म्हणलां आसतलें. राजू बरो भुरगो मरे.

इनास - वरो भुरगो ...... जाल्यार राष्ट्रगीताक तो वेळान कित्याक येता? पंदरा दिसांवयर जालें, हांवे ताका उमरां येतनापळयला.

अमीर - ओगी राव हां इनास. कित्याय कितें म्हणूं नाका ऽऽऽ.

इनास - आरे, हांव सांगतां तें सामखें खरें .......

युसूफ - म्हाका जाल्यार खरें दिसना. कितें जाता जाणां, तुमी सगले असेंब्लीक लायनीन मुखार रावतात आनी ...

धाकू - हांव मोडवों म्हणून रावतां आं. ओगीच मुखार रावतां म्हणून म्हजेर वी घालनाका. सरानच सांगलां म्हाका मुखार राव म्हणून.

युसूफ - आरे ... धाकू .... तुका कोणें कितें म्हणलां? पाड पडिल्लो मर्दी-मर्दी उलयता. पनवत खंयची. चल पळोवया..

धाकू - म्हाका चल म्हणटा? आं.... आं... (रड्टा.)

अमीर - ह्या धाकुलो म्हणून सदांच रड. पाड पडिल्ली पीडा खंयची. कमलांच काय खेळ जमना, पूण रडपाक फुडें. इनास तूं राजूची खबर सांगतालो न्हीं?

इनास - जाणां अमीर, हांव सदांच मातसो निमाणो रावतां. निमाणो रावल्यार चणे वी खाल्यार कोणाचे नदरेक वचना .....

धाकू - (रूच काडून) इनास, तूं चणे हाडटा रे सददां. तशें जाल्यार फायच्यान हांव तुज्याच म्ह-यांत रावतां .....

अमीर - जीभ सामखी हुळहुळी सर...... लंवटो सर हो धाकू सामखो. शी!

युसूफ - धाकू, तूं मर्दी मर्दी कित्याक उलयता? इनास राजूची खबर सांगता ती आयक तरी .... इनास, मागीर राजूलें कितें जालें?

इनास - राष्ट्रगीत सोंपतकच जेन्ना लायनीन आमी वर्गांत वतात. तेन्ना राजू धांवत येवून धांपेत धांपेत म्हज्या फाटल्यान लायनींत रावून वर्गांत येता.

अमीर - आरे तुवें ताका सदांच वेळ कित्याक जाता म्हणून विचारलें ना?

इनास - हांव सोडटा? हांवें ताका जायते फावटी विचारलें. हरशींच वेळ जाता म्हणटा आनी मागीर धाम पुशीत रावता.

अमीर - कितें पूण चल्लां ताचें? वासपूस करची पडली.

युसूफ - ए ..... ए... अमीर, राजूलें घर वयल्या वाड्यार न्हीं रे?

अमीर - हय -- हय--- वयल्या वाड्यार.

धाकू - आनी जाणां युसूफ, राजू घराकडल्यान एक वोल्त (हातांनी वोल्त करून) काडना फुडें म्हगेलें घर ऽऽऽ

युसूफ - तुगे घर नाका रे आमकां --- धाकू ----

धाकू - म्हगेलें घर कितें राजूल्या घरा परस बावत आसा? तागेलें बारकेल्या नळ्यांचें जाल्यार म्हगेलेंय तसलेंच आसा.

अमीर - हे धाकू, शी--शी...... आरे, आमकां घरां नाकात रे (रागान) राजू जाय. युसूफ, सांग पळोवया, राजूल्या घराची तुवें कित्याक वामपूस केल्ली?

युसूफ - गेल्ल्या आयताराक हांव मोय-यांगेर गेल्लों रे. तेन्ना राजू सकयल्या वाड्यावेल्यान येतालो. आनी जाणां अमीर,तेन्ना तिळसांज जाल्ली.

अमीर - ह्या दिसांनी राजू आमचे बरोबर खेळपाक येच ना न्ही रें? शेर्त कितें तरी वेगळेंच चल्लां ताचें. म्हाका सोद लावचो पडलो.

इनास - म्हाका जाल्यार दुबाव मारता. राजू कॅरम बी खेळपाक वचना मरे? पयर सर सांगतालो, इश्कॉलांतले भुरगे पयशे लावन कॅरम खेळटात ते आपणें भाजी मार्केटांत पळयल्यात.

युसूफ - म्हाका जाल्यार दिसता, राजू शेर्त व्ही. डी. ओ. गेम खेळटा आसुयें.

अमीर - अशें दिसता तुका? पूण ..... युसूफ, व्ही. डी. ओ. गेम खेळपाक राजू पयशे खंयच्यान हाडटा आसतलो?

इनास - खंयच्यान म्हणल्यार? बावाले बोल्सांतले काडटा आसतलो SSSS!

अमीर - म्हाका जाल्यार खरेंच दिसना! आमच्या वर्गांतलो ब-यांतलो बरो भुरगो - म्हणल्यार राजू मरे.

युसूफ - खरें कित्याक दिसना? हांव सांगता, राजू बापायल्या बोल्सांतले पयशे चोरून कॅरम, व्ही. डी. ओ. गेम खेळटा. आरे, पंदरा दीस जाले खंय मरे इनास सांगता...... तो सदांच ॲसेंब्लीक उसरां पावता ..... आमी मुखार राविल्ल्यान आमकां खबरच ना.

इनास - हांव ताका पंदरा दीस जाले पळयतां, तो उसरां येता. आनी विचारल्यार कांयच जाप दिना......

अमीर - इनास, युसूफ. तशें जाल्यार आमी वर्गशिक्षकाक सांगल्यार बरें.

धाकू - चड जाले तुमगेलें हां ..... चड जालें ... राजूल्यो चाडयो करतात? हांव सांगपी वचून राजूक .... चाडयो करतात म्हणून .... आं ... आं....

इनास - युसूफ, ह्या धाकूक बरोच मार घालया रे आमी. कितलो वेळ ओग्गी रावला, आमगेल्यो खबरो आयकल्यात. आनी आतां पळय रे.

धाकू - हांवें कितें केलां रे मारपाक? बरे आसात तुमी. राजूल्यो चाडयो सगळ्यो तुमी वचून सांगतले आनी मार म्हाका? हांव हांव (रडटा) दादो सांगून पळय. तुमकां सगल्यांक कसो मार घालपाक लायतां.

अमीर - ही एक रड-रड-रड .. दिसभर रड .... धाकू. फाल्यांच्यान तूं आमचे बरोबर खेळूंकच येनाका पळोवया ...

इनास - ख-यांनीच ...., पनवत खंयची ....! मर्दी मर्दी त्रास करता.

युसूफ - इनास, अमीर, थारलें तर, फाल्यां आमी गजूली खबर वर्ग शिक्षकाक सांगया.

अमीर - सांगयाच तर -- युसूफ, ना जाल्यार सर म्हणटलो, "तुमकां जर गजूची खबर आसली जाल्यार वर्ग शिक्षक ह्या नात्यान आपणाक कशी सांगली ना? "

युसूफ - व्ही. डी. ओ. गेम खेळटा? गव -गव - गजूक दिस्त दिवया.

इनास - वर्ग शिक्षक मागीर हेडमास्तरा म्हे-यांत व्हरतलों आनी हेडमास्तर मागीर कितें म्हणटलो जाणां? "गजू, तूं वर्ग भुरगो, असो पिड्ड्यार केन्नाच्यान जालो? फाल्यां बावाक घेवन येवचो पडटलो इश्कोलांत"

( युसूफ - इनास व्हडान हांसतात.)

अमीर - जाणां इनास, आमी वर्ग शिक्षकाक सांगया वी म्हणटान पूण, म्हाका गजू अशें करतशें दिसच नां.

इनास - तुका - म्हाका कितें दिसता तें वर्ग शिक्षकच थारायतलो. फाल्यां आमी सांगयाच.

* * *

## -- दुसरो देखाव --

(वर्गाचो दखाव. वाकांचेर भुरगीं बसल्यांत. आपआपसांत उलयतात. वर्ग शिक्षकाची वर्गांत येवपाची वाट पळयतात. सर वर्गात येता. भुरगीं उबीं रावन "दीस बरो वचूं" म्हणून मागतात.)





युसूफ - सर - सर (गोंदळटा).

शिक्षक - कितें जाला रे युसूफ? ...... धुस्पता मो?

युसूफ - तूंच सांग रे अमीर. म्हाका भंय दिसता!

धाकू - (चाळयत) आतां कित्याक भंय दिसता?

शिक्षक - आरे अमीर, युसूफ, जालां कितें? सडसडीत सांगतात काय --

इनास - धाको, धाको, तुवेंच सांगल्यार बरें रे बाबा.

धाकू - भिले मरे? चाडयो करतले खंय. सर - सर, हांव खरें तें सांगतां. काल

युसूफ - अमीर - इनास राजूल्यो चाडयो तुमकां सांगतले म्हणटाले.

शिक्षक - राजूल्यो चाडयो? कसल्यो? कितें केलें राजून?

इनास - सर, राजू सदांच सकयल्या वाड्यार व्ही. डी. ओ. गेम खेळपाक वता खंय. बापायल्या बोल्सांतले पयशे चोरता दिसता !!!

युसूफ - ह्या दिसांनी आमचे बरोबर तो खेळपाक लेगीत येना. शर्त पयशे पयशे लावून कॅरम खेळटा दिसता.
(राजू येता.) (दारांत उबो आसा.)

इनास - सर-सर, जाणा सर राजू पंदरा दीस जाले राष्ट्रगीत म्हणपाक पावच ना. मागीर धांपेत धांपेत फाटल्यान रावता.

राजू - सर-सर, हांव वर्गांत भितर येवूं?

शिक्षक - यो-यो राजू, तुजीच खबर सांगताले तुजे इश्ट.

राजू - म्हजी खबर? कसली?

शिक्षक - तुका वेळ कित्याक जालो?

राजू - सर - सर ......

शिक्षक - पंदरा दीस जाले तूं राष्ट्रगीताक पावना खंय?

राजू - हय - हय - हय - सर ...

शिक्षक - आनी सांजवेळचो तूं व्ही. डी. ओ. गेम, पयशे लावून कॅरम खेळटा खंय?

राजू - (भिता) ना.. ना.. सर... हें.. हें.. मगलें ... फट .... मगले फट सर....

शिक्षक - तशें जाल्यार, तूं इश्टां शिवाय भोंवपी न्हय तर ह्या दिसांनी सदांच तांकां सोडून सांजवेळचो तूं खंय वता? सारकें सांग म्हाका.

इनास - वो ... राजू बाव .. सांग मरे ... सदांच सानवेळचो तूं आमचे बरावर खेळपाक येवपी, ह्या दिसांनी खंय वयता.

धाकू - आतां बरें मार आसा. राजू ... खा .... खाजें.......

युसूफ - राजू, तुजें सकयल्या वाड्यार कसलें काम रे? तुजें घर तर वयल्या वाड्यार. हांव एक दीस सांय-सांगेर गेल्लों. तेन्ना तुका सकयल्या वाड्या वेल्यान येतना पळयलो. तिळमान जाल्ली.

राजू - सर ....... सर ....... (दोळे दुकानी भरल्यात.)

शिक्षक - राजू, ... उलय सडसडीत ..... ना जाल्यार तुका हेड मास्तरा म्ह-यांत व्हरतां. व्ही. डी. ओ. गेम, कॅरम खेळपाक जाय न्ही तुका?

राजू - सर, हांव खरें तेंच सांगतां. सर, हांव आनी बाबा एकटेच आसतात. म्हजी आई .... म्हजी आई .... आई ना म्हाका सर. (रडटा.)

अमीर - राजू, आतां तूं कित्याक रडटा रे? तुका आई ना म्हणून आमी सगले जाणांत. ते खातीर तुवें चोरून व्ही. डी. ओ. गेम खेळूंक जाय?

राजू - अमीर .... म्हजें दुःख तुमकां कळपाचें ना. जाका आई ना ताकाच कळटा. हांव ल्हान आसतना म्हजी आई बरी ना जावन मेल्ली.

युसूफ - सर - सर, राजू कितें सांगूक सोदता तें .....

शिक्षक - आयकात रे तो कितें सांगता तें .....

राजू - सर, हांव ल्हान आसलों तेन्ना म्हजी आई बरी ना जाताली. दीस भर परवंताली, हे कुशीक ते कुशीक जावन वळवळटाली. पूण तिची सेवा करपाक कोणच नासलो.

इनास - बाबाय नासला?

राजू - बाबा शिर्विसेक वतालो. आई बरी ना, परवंता ते सगलें दिसतालें, समजतालें. पूण ल्हान आशिल्ल्यान तिची सेवा हांव करूंक शकनासलों.

शिक्षक - रडनाका राजू ... रडनाका ... पूण तूं कितें सांगूक सोदता?

राजू - सर ... म्हज्या दोळ्यां सामकार आदार नाशिल्ल्यान आई मेली ती हांवें पळयल्या. याद जाल्यार म्हाका खूब बायट दिसता. आतां हांव व्हड जालां. आदार नाशिल्ल्या मनशां मदीं म्हाका म्हजी आई दिसता. हांवें सोपूतच घेतला कोणूय आदार नाशिल्लो मनीस बरो ना जाल्लो म्हाका दिसलो जाल्यार ताची हांव सेवा करतलों. (खासाबीस जाता.)

शिक्षक - राजू, हें तूं बेस बरें काम करता. पूण तुका वेळ कित्याक जाता, सांग सरे?

राजू - सकयल्या वाड्यार रामबाबालें घर आसा. ताका बायल ना. पूत शिर्विसेक लागून शारांत रावतात. रामबाबाकवेळच्या वेळार पयशे पावयतात.

धाकू - आं - आं ....... तागेले पयशे तूं चोरूंक गेल्लो तर ऽऽऽऽ

राजू - (रागान) धाकू - धाकू, कशें सांगू हांव?

धाकू - तुवें रामबावाले पयशे कशे चोरले ते सांग, न्ही रे इनास?
इनास - वा रे धाकू, आमी उलयतना तूं राजू वटेन उलयतालो आनी आतां रोखडीच फाट परतिता?
राजू - सर ..... सर ... (राजूचीं उतरां तोंडातल्यान भायरच सरनात.) हांव ... चोर ... न्ही हांवे रामबावाले पयशे चोरू नात. सर .... सर...
शिक्षक - राजू, (फाटीर हात ओडट्.) कोणेंय चोर म्हणलो म्हणून चोर जायना. पूण कितें घडलां ते सांग?
राजू - सर ..... एक दीस आमी सगले इश्ट रामबावाले घराकडल्यान वताले, जाल्यार घरांतल्यान परवूंपाचो आवाज आयकूंक आयलो. याद जाता युसूफ?
युसूफ - हय राजू, आमी सगले वेगीवेगीन घरांत भितर सरले जाल्यार रामबाब उशाक तेंकला आनी परवंता.
अमीर - हय राजू, ताच्या पायांक मोटमोटे फोड आयिल्ले आनी पांय जमनीक लावूंकच जायना म्हणून सांगतालो. खूब दुखताले ताका.
धाकू - रामबावाले फोड पळोवन आमी सगले पळून गेल्ले याद जाता इना?
इनास - हय रे हय. आतां याद जाली. मागीर ताणें कितें केलें?
राजू - तुमी सगल्यांनी रामबावाक पळयलो आनी गेले. खेळपाची ताकीत आसली. पूण हांव थंयच रावलों. म्हाका म्हजे आईची याद जाली आनी रडूं आयलें.
धाकू - मागीर ऽऽऽ? तूं आनी रामबाव रडत बसले काय कितें?
राजू - कित्याक रडत बसले? रामबावाले फोड हून उदकान धुले. रिक्षा करून ताका दोतोरागेर व्हेलो. दोतोरान ताका गुळयो आनी मलम दिलें आनी सांगलें, कांयच भिवपाची गरज ना.
धाकू - आंवय! पायांक फोड जाल्यार भिवूं जाय, हांव जाल्यार लंगड्यांनीच भोंवतलों आसलों.
युसूफ - धाकू, तुका लज म्हणटा ती नाच रे बावाऽऽऽ? मागीर मलम बी कोणें लायलें?
राजू - आयकात मरे. दोतोरान सांगलें सदांच दिसाक दोन वेळा पांय बरो धुवन मलमपट्टी करूंक जाय. रामबाव म्हणू लागले, म्हाका मलमपट्टी बी कोण करतलो? हांवे म्हणलें - रामबाव हांव करतां मलमपट्टी.
इनास - तुवें मलमपट्टी करतां म्हणलें? कशी रे, तुका मलमपट्टी करपाक येताली?
राजू - पळय, विसरलो मरे? आरे, पोरूं वर्सा आमच्या स्कुलांत. तात्काळ उपाय कॅम्प जाल्लो तो याद ना?
इनास - खऱ्यांनीच, हांव विसरलोंच पळय.

राजू - तो तात्काळ उपाय कॅम्प रामबाबाक मलमपट्टी करपाक म्हाका उपेगी पडलो. दोतोराक हांवें तशें सांगलें. आनी सर, त्या दिसाच्यान हांव सदांच सकाळ - सांजवेळ रामबाबाले फोड धुवून मलमपट्टी करपाक लागलों. आनी सर... ताकाच लागून म्हाका राष्ट्रगीताक वेळ जातालो. ख-यांनीच सर, हांवे सगलें खरें सांगलां.

शिक्षक - राजू ..... राजू ..... शाब्बास आं ....... शाब्बास .....

राजू - सर, आयच्यान म्हजें काम सोंपलें. फाल्यांच्यान हांव वेळार इश्कॉलाक येतलों. रामबाब बरो जालो. आतां तो चलपाक लागलो.

शिक्षक - मोटीच मोलादीक गजाल केली तुवें आनी तुजे हे वांगडी नाका आसलें समजले. पळयलें अमीर, युसूफ, इनास आनी तूं धाकू --

युसूफ - खरेंच सर, म्हाका आज याद काडल्यारूच लज दिसता. त्या दिसा आमी सगले पळ्ळे आनी राजून एकट्यान रामबाबाची अडचण पळयली. राजूल्या कामाक खरेंच व्हड म्हत्व फावो जाता. राजू, चूक जाली म्हजी.

राजू - युसूफ, अशें कित्याक म्हणटा तूं?

युसूफ - तूं व्ही. डी. ओ. गेम खेळटा अशें हांवेंच म्हणिल्लें. तूं गेम खेळटना हांवें तुका पळोंवंक ना पूण ओगीच तुजेर घालें. चूक जाली म्हजी.

इनास - पयशे लावून कॅरम खेळटा अशेंय म्हणलें हांवें तुका. राजू, म्हाकाय माफ कर, सामकें चुकलें म्हाजें.

अमीर - सर, राजून बरें कर्तुब केलें आनी आमकां बरो धडो घालून दिलो. आनी आमी तांचे इश्ट जावन लेगीत ताका नांवां दवरलीं.

शिक्षक - जाणां जायात, राजूल्या कर्तुबाचें मोल पयशांनी जायना. राजून जाणट्या मनशांक आदार दितना कसलोच बोवाळ केलो ना. देखून तुमी सगल्यांनी ताचो दुबाव घेतलो. आयज तुमीय राजू वरी जाणट्या मनशाची सेवा करपाचो सोपूत घेयात.

इनास - हय - हय - सर .......

युसूफ - तुमी सांगलां तशेंच करतात आमी.

शिक्षक - भुरग्यांनो, आयज काळच असो आयला. जाणट्यांची सेवा करप कोणाकच नाका. तरणीं मनशां एक ना एक दीस जाण्टी जातलीं हें विसरतात. म्हणून फाल्यां राष्ट्रगीत जाले उपरांत ॲसेंब्लींत ताका हुनहुनीत परबीं दिवंया.

( वर्गांतच सगलीं भुरगीं तळयो पेटून राजूक परबीं दितात.)

(पड्डो पड्टा.)

*****



**सौ. रजनी अशोक भेंब्रे** (कथाकार, बालसाहित्यिकार)
जी-३, अत्रेय अपार्ट्मेंट्स, दुर्गानंदनगर, कुडचडें, गोंय
कुडचड्यावेल्या सर्वोदय एज्युकेशन सोसायटीच्या हायस्कुलांत वट्ट ३४ वर्सांची शिक्षकी पेशाची सेवा दिवन आपूण जावन निवृत्ती. (व्हि. आर. एस्.) सद्या पुराय वेळ कोंकणी सेवेक ओपून घेतला.

**कोंकणीचो वावर**- कोंकणी भास आनी तिची सेवा हेंच आपलें मिशन समजून कोंकणीचो वावर. कोंकणी भाशेची उदरगत जातली जाल्यार सान वयांतूच भुरग्यांक भाशेची गोडी लागूंक जाय, आवड निर्माण जावूंक जाय ही तांची भूमिका. ते नदरेंतल्यान आनी भुरग्यांच्या कलागुणांक पोसवण मेळची आनी ताचेवरवीं भाशेचीय उदरगत जावची म्हूण नेमान भुरग्यांखातीर बालसाहित्याची निर्मणी, तशेंच कोंकणीच्या भाशीक, साहित्यीक, संस्कृतीक वावरांत सदांच फुडें.

**बायलांखातीर वावर** - बायलांच्या सामाजिक दर्जाक उंचाय दिवपाखातीर आनी तांच्या कलागुणांक संद दिवपाखातीर पणजी आकाशवाणी आनी पणजी दूरदर्शनावेल्यान बायलांच्या कितल्याश्याच कार्यावळींचें सादरीकरण, तशेंच बायलांच्या सामाजिक चळवळींनी वांटो.

**बालसाहित्यकार म्हूण वावर** - नेमान ल्हान भुरग्यांखातीर बालसाहित्याची रचना आनी तांचें शाळेच्या संमेलनांनी, सर्तींनी, उत्सवांनी सादरीकरण. तेखातीर इनामांय फावो जाल्यांत.
पणजी आकाशवाणी तशेंच पणजी दूरदर्शनावयल्यान भुरग्यांखातीर आनी बायलांखातीर दोनशांवयर कार्यावळींचें सादरीकरण.
कोंकणी भाशा मंडळावरवी शणैं गोंयबाब कथामाळेच्या आयोजनांत क्रियाशीळ वांटो.

**उजवाडा आयिल्लें साहित्य** - घुस्मट (कथासंग्रह), मोराची करामत, पांच पाकळ्यो, हांव कोण? , झांशीची राणी, आळ (बालसाहित्य),
कोंकणी निबंद (पांचवी ते सातवी), कोंकणी निबंद (दुसरी ते चौथी), सुखी संवसार (संवाद)

---

**ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,**
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय ४०३ ७०२